# आळीं

## (हुमणां)

के पुरुषोतम पै

पी जी कामत फ़ौंडेशन
एरणाकुळम – कोच्ची

2012

(Konkani)

**AALIM**

Riddles by :

**K. Purushothama Pai**

Illustrations by :

**Cartoonist Balachandran (Balu)**



First Edition : October 2012

Published by :

**P.G. Kamath Foundation,**
'Puduma', Parinamam Road,
Kaloor, Ernakulam
KOCHI : 682 017
Tel : 0091-9447730866
Email : pgkamat.foundation@gmail.com
Website : www.pgkamathfoundation.com

Printed at :
Premasai Printers
Yeyyadi, Mangalore

Price : ₹ 100/-

# प्रकाशकांलीं उतरां

केरळचें कोंकणी साहित्यांत "आळीं" एक नवो विशय घेवनु येता. म्हण्यो अथवा ग्यादियो, लोक गीतां, आयीन सांगिल्ल्यो काणियो, गोड्डे रामायण, वेंकटेश कल्याण, श्रवोणु इत्यादी लोकसाहित्य कृतियो आमी पळयल्यांत आनी आयकल्यांत. पुण आळीं म्हणताना ह्या विभागांत मेळता कि ना म्हणु थोडे लोकांक संशयाक कारण जाता. लोकसाहित्यांतुलेंच एक विभाग आसा हुमिण्यो अथवा हुमणां. हांगा असलीं पन्नास हुमणां पुंजायल्यांत आनी हाका "आळीं" अशी नांव दिल्यां.

कित्याक "आळीं" म्हणु नांव घालें ? हो प्रश्नो आमी पुरुशोत्तम पै माम्माक केलो. तेन्ना ताणीं अशी म्हळें "हीं आळीं हांवेच बरयिल्लीं. दुसर्यांनी केलेलींय न्हय; आनी अनुवाद केलेलींय न्हय. माड् ाक आळीं घालतात तशीच आमगेल्या चेर्डुवांक विचारशक्ती वाडोवचाक हीं आळीं सहायक जावनु आसय."

माड्डो वाडून नार्लु जाता. पुण त्या माड् ाक सारें आनी उदाक घालचें पडटा. तें उदाक आनी सारें होळनु वचून व्यर्थ जायनाशीं एकेक आळें माड् ा पोंदाक घालतात तुमी पळयलां आसतलेंच. भुर्ग्यांक बरी वाडी जावनु तांणी भविश्यांत बरें फूल आनी फळ दिवपाक असलीं हुमणांचीं आळीं तांगेल्या विचाराक घालचें एक बरें काम आसतलेंच.

दुसरे प्रदेशांतु प्रचारारि आसचीं हुमणां केरळांत आयकूंक मेळनात. देकून बालसाहित्याक एक अमोल योगदान म्हणु लेकून पन्नास आळ्यांचो हो संग्रहु आमी भायर काडतात. कोंकण जनता, स्पन्दन ह्या मासपत्रिकेंतल्यान थोडीं थोडीं जावनु हीं उजवाडाक आयल्यांत तरी पुस्तकरूपान आतां प्रथमच भायर येता आसा. देकून चेर्डुवांक पसंद जावचे खातिर एकेक

आळ्यांचेंय उत्तर दितानाच ताजें एक चित्रय प्रस्तुत केल्यार आकर्शक आनी एक व्यत्यस्त नमूनो आसतलो अशी आमकां दिसलें. ताका लागून हो विचारु आमी कार्टूनिस्ट बालचन्द्राकडे मांडयिलो. ताणें आपण्यालो संपूर्ण सहकार दिलो. तशी जावनु हें पुस्तकाक आनिकय चन्दायि आयली अशी दिसता. कोंकणीचें ह्या कामाक तांक दिलेल्याक बालचंद्राक देव बरें करो.

ह्या पुस्तक वाचून चांग दोन उतरां बरोवनु पै माम्माल्या साहित्यसेवेच्या कलशाचेर भांगरा तीळो लायिल्ल्या प्रो.एन.स्वर्णलता हांकांय आमी देव बरें करो म्हणतात.

कोंकणी वाचकां मदें ही बालसाहित्यकृती सादर करताना होडांकय हाजो आनंदु मेळचो आनी सगळेच घरांत कोंकणीचो परमळु प्रसार जावचो म्हणु आमी आशेतात. पुरुशोत्तम पै माम्माल्या सुदीर्घ जीवनांत तांणीं बरयिल्लीं हीं आळीं मुकावेल्या पीळगेक एक चांगी वाट दाकयतली हांतु आमकां कांय संशयु ना. देव तांकां बरें करो.

**– पी जी कामत फ़ौंडेशन, एरणाकुळम**

# के पुरुषोत्तम पै



ई.1919 वर्सा पुरक्काड गांवांतु जनन. पुरक्काड श्री वी कृष्ण पै बाप्पूसु. आवसु कोल्लम नगरांतुले श्री वी अर्जुन शेणौली पुत्री श्रीमती यमुना बाय. चोवते वर्सारि बाप्पूसु परलोकाक गेल्लो. अनन्तर जीवित आञ्जाले आश्रयांतु. प्राथमिक विद्या कोल्लमांत केल्ली. कायंकुळम विज्ञानसंदायिनी संस्कृत विद्यालयांतु शिकूनु तिरुवितांकूर सरकाराची शास्त्री उपाधि प्राप्त केल्ली. कोडुङ्ङल्लूर वेदमूर्ति पौराणिक तिलक श्री के पद्मनाभ भट्टा लागी ज्योतिष शिकीलो. मागीरि तिरुवनन्तपुरम महाराजकीय संस्कृत कॉलेजांत शिकून मद्रास विद्यापीठाली शिरोमणी उपाधि प्राप्त केल्ली. लागीच पन्मना चट्टंबिस्मारक संस्कृत विद्यालयांतूय तुरवूर तिरुमलदेवस्थानांतूय प्रारंभु केल्लेले संस्कृत विद्यालयांतूय एकेक वर्स प्रधानाध्यापक जावनु सेवा कोरनु 1944 वर्सा कोच्ची तिरुमलदेवस्थानम हाइस्कूलांत संस्कृताचो अध्यापक जाल्लो. ताव्ळि तिरुवितांकूर विद्यापीठांतूली साहित्यविशारद उपाधीय प्राप्त केल्ली. 1957 वर्सा केरळांत मलयाळाक प्राधान्य दिल्ले पासून मलयाळम भाशेचो अध्यापक जावनु 1974 वर्सा नियमानुसार कामांत थाकून विश्रमु प्रारंभ केल्लो.

मग्गीरि धा वर्सां "कोंकण जनता" म्हयनाळ्याचो संपादक जावनु सेवा केल्ली. सात-आठ वर्सां सुकृतीन्द्रा ओरियन्टल रिसर्च इन्स्टिट्यूटांत सहायक जाल्लो. लागीच कोच्ची देवस्थानांत प्रारंभ केल्लेले वेंकटवाणी त्रैमासिकेचो प्रधान संपादकु जाल्लो.

ताका लागून देवस्थानांत प्रारंभ केल्लेले सरस्वतीनिलयम ग्रंथशालेचो कार्यदर्शीय जाल्लो. 2004 वर्सा वार्धक्या पसून वेंकटवाणी संपादक विना इतर श्रमांत थाकून मागल्यान सरलो. देवस्थानाचे कार्यकारिणी समितीन गांवांतुले दुसरे प्रधान संस्थेंक एक्कडे कोरनु तांकां अत्यधीक आदरान अभिनन्दन केल्लें.

जल्यारि तेद्दूस पर्यन्त श्री वेंकटेश सेवा समिती, कोंकणी भाषा प्रचार सभा, केरळ कोंकणी अकादमी, P.S.T.A., P.B.S., G.S.B.T.A., K.S.S.P.U. आदि विविध संघटनेंतु प्रधान भारवाहि जावनु सेवा केल्लेली आस्स. त्या पसून मंगळूर पंचकादायि मासिकेची रजतजुबिली आघोषसमिति, कोंकणी भाषा प्रचार सभा, हांणी आदर केल्लोलो आस्सा. विशेष सेवेक मानु दिक्कनु श्री काशीमठाधिपति श्रीमद् सुधीन्द्रतीका स्वाम्यान तानी फंतां विशेष पुरस्कार दीवनु अनुग्रहु केल्लोलो आस्स. 2010 वर्सा कोच्ची चल्लेल्या कोंकणी मान्यताय दिसाचे कार्यक्रमांत तांकां सन्मान केल्ला.

साहित्य सेवेक लागून श्री मध्वाचार्यालो उत्तम ग्रंथु, द्वादशस्तोत्राक कोंकणी भासेन हांणी व्याख्यान केल्लें. श्री वेदव्यास महर्षीले आषा (18) पुराणांत प्रधान श्री महाभागवताचे माहात्म्य स्वीकार कोरनु श्रीमद्भागवतकथामाला मलयाळम, कोंकणी दोनीय भासेन प्रकाशन केल्यां; आतां ही बालसाहित्य कृतीयि.



# आशंसावचन



श्री पुरुषोत्तम पै संस्कृत विद्वांसूय, चिन्तकूय, साहित्यकारुय तं. पुराण इतिहास हांकां आधार कोरनु मस्त कथाय लेखनय बरयलेलें आस्स. श्री महाभागवत संपूर्ण जावनु कोंकणींतूय मलबारींतूय अणकार केल्लेलें आस्स. प्राय जात्ता जात्ता तांकां साहित्या विषयांत वासनाय तन्नेय अधिक जावनु तं येत्ता. ताजें फल तं आळीं नांवाचो हो ग्रंथु. आळें हे उतराक संस्कृतांत प्रहेलिका म्हणूय इंग्लीशांत Riddles म्हणूय सांगताय. मलबारींत कडंकथा म्हणूय. हो साहित्यांतुलो एक मनोविनोदु तं. प्रश्नरूपान आसिल्ले आळ्याचें उतर मेळ्ळे कडेर मनांकय, बुद्धीकय विजया संतोषु मेळता. तो आनन्दु बालकांक मात्र न्हय युवकांकय वृद्धांकय आसतलो. त्या पासून प्रांचीन भारतांतु पंडितसभेंतु तांकां बरो स्वीकारु आसिल्लो. तस्सि आनन्दु दिवंचीं पन्नास आळीं रस्पतीन तयार करूक पै माम्मान केल्लोलो श्रमु सर्वांक आनन्दकर जात्तोलो म्हळ्ळेले विषयांतु सन्देहु ना. त्या पासून तांकां हांव प्रत्येक अभिनन्दन करतां.

25-5-2009

6/46, सौभाग्य

तृश्शूर - 680655

**प्रो. एन. स्वर्णलता**

# दोनि उत्तरां

मनुष्य समूहाक फुल्ला झाड जावो इतर सस्यांची सर्शी जावो चांग प्रमाणी वाड्डून येवका जाल्यारि सारें उद्दाक घालनु पुष्टि कोरूक चांग आळें अत्यन्त आवश्यक. त्याच प्रकारि एक भासेक सौन्दर्य दीवनु वाड्डोवंचाक आसिल्ली वाट तं कथागीत, कविता आदि. त्या वाटेर ओवंचे बालकाले जन्मवासनेक पुष्टि दिवंचाक अत्यन्त सहायु कोरचीं तं आळीं. तसलीं आळीं एकेक जावनु "कोंकण जनता" म्हयनाळ्याचेर उजवडायलीं. हीं आळीं एक लागेन सुन्दर कोरनु पुस्तक रूपान प्रकाशन करतां. हाजीं सम उत्तरां वेगळेंच दिलेलीं आस्सय. हीं आळीं वाच्चून, म्होणु आयकूनु बालकांक मात्र न्हय, म्हलगड्यांकय अल्प आनन्दु जात्तलो म्हणु हांव विश्वासु पावंतां. हो विश्वासु सफल जाल्यारि हांव कृतार्थ जाल्लो.

- लेखक

## आळें १ - एक

सासमा पशि सान मु तें
मोल्या पशि होड मू तें
हात पाय कांय ना ताक्का

एकडे निमिषाक बेस्सना
धावनु वत्ता तें लक्षु मीटर
आपडूक धरूक जायना ताक्का

ताणे सांगल्यारि भीमूय धावंतोलो
ना जल्यारि हाल्लुन्ना बोट सरि
दाड्डूलो न्हय तें बायलय न्हय तें
कोण म्हणु सांगाय बालकांनो.

आळें १ - एक



उत्तर : मन

## आळें २ – दोनि

घरां भित्तेरि देवा मुक्कारि
सानु एकु खांबो

खांब्या उंचारि सान तोळें
तांतूय सानु एकु बोड्डो
तोळ्यांत दिवडा धविं पिल्लं
उद्दाक पीवनु झगझगेताय

कोण म्हणु सांगाय बालकांनो
बुद्ध्येन चिन्तन कोरनु

आळें २ – दोनि



उत्तर : दिवलि

## आळें ३ - तीनि

पेलु न्हय तो पेलु
कोटि मोल्या एदो पेलु
कोणाकय काणु खेळू नज
रात्तीय दिस्सूय खेळता पेलु
बायलय न्हय तो दाद्दूलोय न्हय तो
बायल म्हणु तिक्का आम्मी लेकताय

सर्वय खेळताय ताजे उंचारि
खर्सल्ले सर्वय पडताय ताजेरि

सर्वय आस्समू ताजे उंचारि
कोण तो म्हणु सांगाय तुम्मी

आळें ३ - तीनि



उत्तर : भूमि

## आळें ४ - चारि

सासु पाय्या राणि गा तिवय
गोट्टार्लि घोणि कांय न्हय
ना तिका हात पाय मात्तें पोट
अन्याक दिकल्यारि लजेन राब्बता
वेगळे सहायान भोंवता नित्य
सगळे घरांत दोन-तीन फंता
नांचून नांचून भोवनु तीवय
मुल्ल्यांत निपून राब्बता

तावळि लक्षीमि येत्ता म्हणु सांगताय
कोण ती म्हणु बुद्ध्येन सांगाय तुम्मी

आळें ४ – चारि



उत्तर : सार्णी

## आळें ५ – पांच

मात्यारि मारल्यारि जीब भायर काडता तें
दुस्सरि मारल्यारि काडता भित्तरि
जावंका जाल्लेलें तें सर्वय सांगता
जाल्यारि शब्द तें कांय पुणि करना
बन्धूल्या हर्द्यारि बेस्सूनु भोंवता तें
गांवगांवात सर्वत्र मौन जावनु
विश्रमा वेळारि तोंडाक तोप्पि घालनु
उल्लोवनात्तिल्लें तें पडता एकडे

कोण म्हणु सांगाय बाळांनो
बुद्ध्येन चिन्तन कोरनु

आळें ५ - पांच



उत्तर : डोट पेन

## आळें ६ – स

सात प्रगारांचो क्षेत्रांत राबूनु
थंग-थंगा नित्य तो भोवनूच आस्स
शक्तोयि बुद्धीयि आस्सिल्लो तो देवु
करेयता लोकांत सर्व काम
ताग्गेलि प्रतिष्ठाय कोण कशिश करता म्हणु
गुप्त तें सांगूक जायना कोणाक
ताक्का दिक्कूकयि कोणाक जायना मू
देवु तो गेल्यारि क्षेत्राचो भस्म मू
देवु तो कोण म्हणु सांगाय बाळांनो
बुद्ध्येन चांग कोरनु चिन्ता कोरनु

आळें ६ – स



उत्तर : प्राणु

## आळें ७ – सात

फळ रे तें होळ्ळें ताक्का तशि सांगप ना रे
रुकारि एकयि जायना मू तें
सगळेय सांजे पिकुचें फळ तें
रात्तोचें नित्यय निपूनु वत्ता
    ताजेरि मायेन सर्वय प्राणीय
    ताग-तागेलें सर्वय काम करताय
आपडूक काडूक कोणाक जायना तें
खांवचें कायरें तें कसलें सांगूक
    तें फळा नांव इत्तें सांगाय बाळांनो
    सांगुचो बाळु तो बुद्धिमन्तु

आळें ७ - सात



उत्तर : आदित्यु

## आळें ८ – आठ

लोकांतूलो पेलु न्हय तो
धवे उज्ञा पोंजु न्हय तो
सर्वांक घिर-घिर घुवंडायता तो
सर्वांक सुक्कोवनु सुक्कोवनु आस्स
लागि वच्चाक कोणाकय जायना
ताक्का चोंवचाक कोणाकय जायना
निद्देल्ले सर्वांक जाग्गेयता तो
सस्यांक सर्वांक वाड्डेयता तो
रात्तोचें तोवय निपूनु वत्ता
क्कोण तो तुम्मी बुद्ध्येन सांगायि

## आळें ९ – णव्व

पाच्चूवो एकु देवु तोवय मळबारि चोणु वच्चो
वाट्टेरि एकु गोरो सायबु स्नेहान ताक्का मेळ्ळो
तांचे लागि घड घड जांवचो तोप्पिक्कारि आयलो
काळो एकु खाप्रि लागेन तांचेरेक्कडे जाल्लो
सर्वय मेळनु चळ्ळे तेवय एक गुहें भितरि
थांगा आस्सिल्ले राक्षसांनी चाबून तांकां खेल्ले
रक्तान न्हावनु एकु जावनु उडकी मारली भायर
कोण तो म्हणु सांगाय तुम्मी
बुद्ध्येन चिन्तन कोरनु

आळें ९ - णव्व



उत्तर : पिङ्के तम्बळि

## आळें १० – धा

चारि पायां सुन्दरु तो
पळ्ळेले कडेचि पोडचो
    बुक्को पाड्डो विन्दूरु न्हय तो
    ना ताक्का तोंड पोट बाल
ताजे व्होंटींतु चडताय बसताय
ताक्का नाक्का जेवण खाण
मौनान सर्वांक सेवा करता
अक्ष़र सांगूक कळना ताक्का
    कोण तो म्हणु सांगाय तुम्मी
    बुद्ध्येन चिन्तन कोरनु

आळें १० – धा



उत्तर : कदेल

## आळें ११ – इकरा

हांव एकु राक्षसु न्हय रे जाल्यारि मेग्गेलें देह होड
माक्का मात्तें पाय ना रे जाल्यारि आस्स दीग हात
उंचारि एक होळ्ळें तोंड ताज्ञे खाल्लाक होड पोट
मेग्गेले धनयांक सारारि गीळनु
बलान मुक्कारि व्हरता
गिळ्ळेल्यांक चाबूनु खायना तांचे मनान सोडता
रात्ति दिसा पावसान वोत्तान
कष्ट जावनत्तिल्लें चोयता
हांव कोण सांगाय तुम्मी
बाळांनो चिन्तन कोरनु

आळें ११ – इकरा



उत्तर : जुबा

## आळें १२ – बारा

आङ्ङणांतु कदलारि बसयली मांयि
केदनाय राबूनु दीस काडता
खाण जेवण कांय तिक्का नाक्का
उद्दाक मात्र ती नित्ययि पित्ता
कोपु दुःख कांय तिका ना मू
वेगळ्यांक कोणांक कांय ती दीना
जाल्यारि सर्वांक चांगपणा खातीरि
नित्य ती प्रर्थना करता आस्स
कोण की मांयि सांगाय तुम्मी
बुद्ध्येन चांगपणा चिन्ता कोरनु

आळें १२ - बारा



उत्तर : तुलसि

## आळें १३ – तेरा

आवसून मायेन दिवंचो एकु वस्तु
माग्गीरि दिस-दीस वाड्डुच्चो वस्तु
गुरूनि क्रमान वाड्डोवंचो वस्तु
मनषाक देवा सम कोरचो तो वस्तु
महन्तानि भांडारांत भोरलोलो वस्तु
भांगरा पशि चड मोल्ला विशिष्ट वस्तु
दिल्यारि दिल्यारि वाड्डुच्चो वस्तु
कोस्सोलो तो वस्तु म्हणु सांगाय तुम्मी

## आळें १४ – चौदा

घाल्लेले स्थाय्यारि पोडचो तो सायबु
हात पाय मात्तें पोट नात्तिल्लो सायबु
अक्षरा ज्ञान तें नात्तिल्लो सायबु
सागिल्लें घेवनु तो सागिल्ले दिक्कारि
मुष्टीयि घेवनु तो भाडीरि वोच्चूनु
जावंका जालेल्या लाग्गि सागुच्चो सायबु
सायबु तो कोण म्हण सागाय तुम्मी
चाग मनान सम चिन्तन कोरनु

आळें १४ - चौदा



उत्तर : बर्प

## आळें १५ – पन्नेरा

हंडा कुट्टुको न्हय रे तोवय
वांकुडो जावनु धांवता
    कान दोळोय एकूच मू ताक्का
    हात पाय कांय ताक्का ना मू
पोरणो चोग्गो तो सोडता चोय
नवो चोग्गो तो घालना
खांडेय बोड्डोय ना जाल्यारीय
भीवनु भिसरावनु भोंवता
    सांगाय तोवय कोण म्हणु
    चांग कोरनु चिन्तन कोरनु

## आळें १५ – पन्नेरा



उत्तर : सोरोपु (दीवोडु)

## आळें १६ – सोळा

व्होळ्ळो एकु भीमु रे तो
करता तपस्स एक्क पाय्यान
    आस्स मू ताक्का हात सासु
    ताज़ेर ताज्ञा चड बोट्टँ
गुंट्ट लांबता हात्तांत चोय ताक्का
ताज्ञान नामू दुक्कि ताक्का
वाऱ्यान गुंट्ट हालताय दिक्कूनु
चेर्डूंव फात्तर सोडताय
खाल्लाक पळ्यारि हाय हाय जात्ता मू
    क़ोण तो भीमु म्हण सांगाय तुम्मी

आळें १६ – सोळा



उत्तर : आम्ब्या रूकु

## आळें १७ – सतरा

चारि पाय्यान धांवचो रे तो
सूणे माज्जर कांय न्हय
    उदकांत म्हस्त भोंवता तोवय
    तारवारि काम करचो न्हय
तगडा खोट्टो पांगूरनु भोंवता तो
वेगळे भय्यान तो नित्य
कोणेय ताक्का बाधेक आयल्यारि
खोट्ट्यांत चोणु पडता
    कोण तो म्हण सांगाय तुम्मी
    बुद्ध्येन चिन्तन कोरनु

आळें १७ – सतरा



उत्तर : कासोवु

## आळें १८ – आषा (आठरा)

कापड रे तें कापड
मिल्लांतूलें कापड न्हय
  सान होड म्हस्त रे तें
  गांवांत सग्ग विन्दून घाल्यां
काडूक धुंवचाक घडि घालूक
कोणाक जांवचें न्हय तें
ताञ्जेरि सर्वय मनीष मृगां
माड्डोवनु साड्डोवनु वत्ताय
  सांगाय तुम्मी कसलें कापड
  बुद्ध्येन चिन्तन कोरनु

## आळें १८ – आषा (आठरा)



उत्तर : वाट्टो

## आळें १९ – एक्कुणीस

तोण्ड ताजें काळे मू रे काञलला बुक्को न्हय रे
आस्स ताक्का दोन जीब सर्पु दिवोड न्हय रे

मनांतूलें सर्वय तेंवय स्पष्ट कोरनु दिता
पांच जाण ताक्का धरताय पांडूलि सून न्हय रे

दाड्डूलो बायल दोन्नीय न्हय रे दोग्गां लाग्गि भोंवता
काळें ताजें पोट चोय तें पोट्टां भोरनु विष रे

कोण तें म्हण सांगाय तुम्मी
चांग कोरनु चिन्ता कोरनु

आळें १९ – एक्कुणीस



उत्तर : फ़ौण्टेन पेन

## आळें २० – वीस

आफीस न्हय तें आफीस
होटल न्हंय तें होटल
आदित्यान येंवचे फूडेय
समुद्रांत तोवय बुडल्यारीय
    कागत पेन्सिल नात्तिल्लेंचि
    काम थांगा चोंवकून आस्स
येंवचे सर्वांक तन्नेक भुक्केक
जांवका जाल्लेलें मेळता आस्स
    इत्तें म्हणु सांगाय तुम्मी
    बुद्ध्येन चिन्ता चांगि कोरनु

आळें २० – वीस



उत्तर : वास्सारि

## आळें २१ – एकवीस

मनीषु न्हय तो देवु न्हय तो
पक्षिमृगादि कांय न्हय रे
कोच्चोलु जावनु खाल पडता
खालपणान सर्वत्र भोंवता

भारु नात्तिल्लें मेळ्ळयारि इतय
खयीं घेवनु तो व्हरता
वेगळ्या सहायु नात्तिल्लें ताक्का
एकलो बेसूक जायना

जाल्यारि एकडे फातोरु जात्ता
वाऱ्यां भर्शि उबून वत्ता
तागेलो सहायु मेळना जाल्यारि
भारि कष्टांतु पडताय

कोण तो म्हणु सांगाय तुम्मी
बुद्‌ध्येन चिन्तन कोरनु

## आळें २२ – बावीस

कोण रे तें कोण रे तें

तुक्का लागून भोंवता चोय

तुवें गेल्यारि तीवय वत्ता

तुवें आयल्यारि तीवय येत्ता

थोडे वेळारि मुक्कारि वत्ता

थोडे वेळारि मागल्यान येत्ता

होडि जात्ता सानीय जात्ता

धोरूक गेल्यारि हातां पणा

थोडे वेळारि निपून राबता

कोण ती म्हणु सांगाय तुम्मी

## आळें २२ - बावीस



उत्तर : सावळि

## आळें २३ - तेवीस

गुरु ते गुरु न्हय गुरुलें गुरु ते
बड्ड ना तांकां कोपु येना तांकां
सर्वथा शान्ततेन मौन जावनु नित्य ते
विशिष्ट आसनारि बेसताय
नांव निवंगुन्ना तान्नि जाति निवंगुन्ना तान्नि
दक्षिणा कांय तांकां नाक्का
आपोवनु खालपणान तांकां चोयल्यारि ते
सर्वय़ शान्ततेन शिकयताय
कोण तें चिन्तन कराय बाळांनो
तांचे नांव सांगुच्चो बुद्धिमन्तु.

## आळें २३ – तेवीस



उत्तर : पुस्तक

## आळें २४ – चोवीस

हस्ती न्हय रे ती हस्ती
सोंडाळ बाल ना हस्तीक
चारी तान्तु दोळे तिक्का
भित्तेरि भायर चोंवचाक
    आस्स तिक्का तोण्ड म्हस्त
    उल्लेयना ती कांय खायना
तिजे पोट्टांत चडताय जन
खात्ताय पित्ताय निद्देताय
राति जाल्यारि दोळेय धांपूनु
सुखान तिवय निद्देता
    कोण ती म्हणु सांगाय तुम्मी
    बुद्ध्येन चिन्तन कोरनु

## आळें २४ - चोवीस



उत्तर : घर

## आळें २५ - पंचवीस

यन्त्र न्हय रे तें यन्त्र
यन्त्रां थाकून जावंचें यन्त्र
खांवचें पोडचें निद्देवंचें यन्त्र
    यन्त्राक चांग कोरचें यन्त्र
    भाषण गायन कोरचें यन्त्र
एकडेय मोल्ला मेळचें न्हय तें
आपेप सर्वत्र भोंवचें मू तें
राबिल्यारि माग्गीरि कोणाक नाका
    कसलें यन्त्र सांगाय तुम्मी
    बुद्ध्येन चिन्तन कोरनु

आळें २५ – पंचवीस



उत्तर : देह

## आळें २६ – सोवीस

भायर तो आस्स रे भित्तरि आस्स तो
उंचारि खाल्लाक सर्वत्र आस्स तो
दिक्कूक पाणा तो आड्डोळनु वत्ता तो
उज्जो मेळ्यारि तो घेवनु धांवता
कोणाक धोरूक जावंचो न्हय मू तो
तो हांगा ना जाल्यारि लोकांत कांय ना
शेळूय जात्ता तो हुनूय जात्ता तो
चिन्ता कोरनु सागाय कोण की तो

## आळें २६ - सोवीस



उत्तर : वायु

## आळें २७ – सत्तावीस

दीग-दीग गोरें-गोरें रूप
छट्-छट् जावनु उजवाडु दित्ता
छप-छप जावनु राति करता
ना मू ताक्का हात पाय पोट
ताणें कोणाक आप्पळ्ळें जाल्यारि
जाल्लि ताव्वळि ताग्गेलि कथा
कोण ते म्हणु सांगाय तुम्मी
बुद्ध्येन चिन्तन चांग कोरनु

आळें २७ – सत्तावीस



उत्तर : वैद्युति

## आळें २८ – आट्टावीस

उजावाडां केदनाय लाग्गि भोंवची

सक्काळींय सांजेचेंय होळ्ळि जावंची

देनपारां लाग्गीचि निपूनु बेसली

तुग्गेली भयणि न्हय मेग्गेलि भयणि न्हय

कोण की ती म्हणु सांगाय तुम्मी

सांगुच्चो बालकु बुद्धिमन्तु

आळें २८ – आट्टावीस



उत्तर : सावळि

## आळें २९ – एक्कुणतीस

एक्क दोळ्याची ती घरकार्णि एकली
दवरल्यारि थांगाय पोडची मू ती
    सुत्तान बादूनु तिक्का धांवडायल्यारि
    धरारी निपूनु हासून येत्ता
उपकारु आमकां ती करता मू म्हस्त
अश्रद्धेन काडतल्याक चाब्बुच्ची मू ती
    कोण की ती म्हण सांगाय तुम्मी
    सांगुच्चो बाळु तो बुद्धिमन्तु

आळें २९ - एक्कुणतीस



उत्तर : शिंवची सूव

## आळें ३० – तीस

फोद्दो रे तो फोद्दो
काण्ट्यां चोग्ग्या फोद्दो
    मात्तें खाल कोरनु ताग्गेले घरांत
    लांबूनु पोडचो फोद्दो
पोट्टां गोरि थोरि रोम्मो
रोम्मे भर्शि गोडसेल्ले मोट्टे
    फोद्दो तो कोण म्हण सांगाय तुम्मी
    बुद्ध्येन चिन्तन कोरनु

आळें ३० - तीस



उत्तर : पोणोसु

## आळें ३१ – एकतीस

दुड्डु घेवनात्तिल्लें काम कोरचो
वासरेंतूलें दन्द पूरा कोरचो
उद्दाक घाल्यारि निप्पूनु वोच्चो तो
सुक्कूनु मेळ्ळेलें सर्वय खावचो तो
रात्तीचें नित्य निप्पूनु वोच्चो तो
कोण की तो म्हणु सागाय तुम्मी

आळें ३१ – एकतीस



उत्तर : उज्जो

## आळें ३२ – बत्तीस

देवा मुक्कारि ब्राह्मणु एकु
राबूनु नित्य करता ध्यान
ताक्का जात्ता सास्सा लेकान
हातय बोटय चोय्याय तुम्मी
जाल्यारि तोवय एक पायान
निष्ठेन राबता सासु वर्ष
सर्वांक वाऱ्यान शान्ति दित्ता
कोण तो ब्राह्मणु सागाय तुम्मी

आळें ३२ - बत्तीस



उत्तर : पिंपोळु

## आळें ३३ – तेत्तीस

घर न्हय तें घर
णव्व दर्लांचें घर
तीनि भित्तरि भायर वचाक
दोनि दर्लं भायर वचाक
चारि दर्लं भित्तरि वचाक
खात्ता उल्लयता धांवता तें घर
न्हात्ता पडता बेसता चोय
कसलें घर तें सांगाय तुम्मी

आळें ३३ - तेत्तीस



उत्तर : देह

## आळें ३४ – चोवतीस

जोग्गि न्हय तो सोंर्गे न्हय तो
पाक्को न्हय तो चोय्याय
    रुक्कारि तोवय तोंड धापूनु
    लांबूनु पडता फोद्दो
कांट्या चोग्गो पांगरुन तोवय
अपले शेंभरि चेर्डाकय
गोडी साल्ली चोग्गो धोरोवनु
पोट्टांतु घेवनु पडता
    कोण तो फोद्दो सांगाय तुम्मी
    बुद्ध्येन चिन्तन कोरनु

## आळें ३४ - चोवतीस



उत्तर : पोणोसु

## आळें ३५ – पांतीस

गोरे ते पर्वत उब्बून धांवताय
एक वेळे देहाक गान्द ते लायताय
    एक वेळा तेवय कुंकुमेन न्हात्ताय
    एक वेळा काळे जावनु भीतीय दित्ताय
हनुमन्ता बापसून कोप्पान मारल्यारि
पिट-पट्टो जावनु खाल्लाक पडताय
    ते पर्वत कोण म्हण सांगाय तुम्मी
    बुद्ध्येन चांग कोरनु चिन्तन कोरनु

आळें ३५ – पांतीस



उत्तर : मोड

## आळें ३६ – सत्तीस

ससाराची वालि घरां जावंची वालि

लज्जेकि ती वालि हास्सूनु खेळची वालि

वेगळ्याक दिवंची वालि फळ दिवंची वालि

वालि जाल्यारीय चिन्ता वालि दिंवचाकय चिन्ता

दिल्यारि माग्गीरीय चिन्ता वालि

ना जाल्यारीय वालि

कस्सलि की ती वालि बुद्ध्येन सांगाय तुम्मी

आळें ३६ – सत्तीस



उत्तर : चेल्लि

## आळें ३७ – सात्तीस

पोट आस्स फाटीय आस्स मात्तें ना पाय ना
उल्लेयना तोण्ड आस्स हात आस्स बोट ना
गिळता तो दादल्यांक सोडता मागीरि तो
सांगाय, सांगुच्चो बाळु तो बुद्धिमन्तु

आळें ३७ - सात्तीस



उत्तर : चोग्गो

## आळें ३८ - आटतीस

रोम्मेचो चोग्गो आस्स जोग्गि न्हय मू तो
दोळे तीनि आस्स महादेवु न्हय तो
रुक्कारि राब्बता पक्षीय न्हय रे तो
उद्दाक व्हावता तो मेघय न्हय मू रे
आमगेले घरांत सोयरी जात्ता तोवय
खात्ताय ताक्का आम्मि चोग्गो हाड सोडताय
कोण तो म्हणु तुम्मी बाळांनो सांगाय
सांगुच्चो बाळु तो बुद्धिमन्तु

आळें ३८ – आटतीस



उत्तर : नार्लु

## आळें ३९ – एक्कुणचाळीस

शें-शें पाय्यांची उञ्ञा भांडि
उञ्ञोयि बोगीयि ना मू तिक्का
    आस्स मक्कारि दोन दोळे तिक्का
    तेल्लय वैद्युतीयि नाक्का तिक्का
काळि आनी तांबीडि दोन तरा भांडि रेकरकीर
केल्यारि घूवनूय वत्ता ती
ना जाल्यारि चाक्कूलि जात्ता मू ती
भांडीचें नांव इत्तें सांगाय तुम्मी
    सांगुच्चो बालकु बुद्धिमन्तु

आळें ३९ – एक्कुणचाळीस



उत्तर : गोट्टर्लि

## आळें ४० – चाळीस

खान्दे कवरेय ना ताक्का चोय रे

काट्यांच्या पाल्ल्यानि भोरनु आस्स

रूकु वे रूकु न्हय तण वे तण न्हय

ताज्ञे उंचारि आस्स फळ गंभीर

त्या फळा उंचारि भोरनु पाल्ले

फळाक आस्स मू म्हस्त दोळे

सासु दोळ्यांचो इन्द्रुय न्हय तो

कोण तो सांगाय बालकांनो

आळें ४० - चाळीस



उत्तर : अनवास

## आळें ४१ – एकचाळीस

होड मात्तें आस्सिल्ले राक्षस तेवय
गांवांतु थंग-थंगा राबल्यांय
मात्यारि आस्सिल्ले हात्तानि नित्यय
सर्व जनांक ते आपयताय
    अमृता सम आस्सिल्लें उद्दाक भर्लेले
    कोळसे दित्ता म्हस्त आमकां
एक्क पायाचेरि खाड वाड्डोवनु ते
रेंवेतु निपोवनु राबिल्यांयि
फाटि पोट हर्दें तोण्ड
आदि कांय तांकां ना मू रे
    कोण ते म्हणु सांगाय तुम्मी
    बुद्ध्येन चिन्तन कोरनु

## आळें ४१ - एकचाळीस



उत्तर : माड्डो

## आळें ४२ – बावचाळीस

वासु नात्तिल्लें घर मू तेंवय
चोवकण्ड सुन्दर दीग
    आस्स मू ताक्का धा बारा कूड
    एक्के कूडांतु आस्समू चोय
मनीषु वागु सिंहु कीरु
मोरु मांकड तेरु देवु
खाण जेवण नीद ना तांकां
राब्बिल्ले स्थायारि राबताय नित्य ते
म्हस्त जन तांकां चोवनु वत्ताय मू
    घर कस्सलें म्हण सांगाय तुम्मी

आळें ४२ - बावचाळीस




**उत्तर : म्यूजियम**

## आळें ४३ - तेवचाळीस

प्रथम येत्ता तो धवे मोल्या रूपान
मागीरि काळें एक भूत जावनु
 हनुमंता बापसूले सहायान तोवय
 आदित्या निपोवनु दूर धांवता
खोदन्याचो तीरु मारनु भय दित्ता
उज्ञो घालनु अत्यन्त नाशु करता
आश्वासु दित्ता तो मागीरि लोकाक
 कोण की तो म्हणु सागाय तुम्मी

## आळें ४३ – तेवचाळीस



उत्तर : पावसा मोड

## आळें ४४ – चोवत्ताळीस

गोरो गोरो एकु भिकारि तोवय
समुद्रांतु निपूनु भोंवचो मू तो
वास्सरे मुल्यांतु बेसता मू तो
खाण जेवणाक जावंका मू तो
खाण जेवणा वेळारि दिकू पणा ताक्का
सर्व प्रधानि तो ना मू सभेरि तो
कोण की तो बाळांनो तुम्मी सांगाय
बुद्ध्येन चांग कोरनु चिन्ता कोरनु

आळें ४४ - चोवत्ताळीस




उत्तर : मीट

आळें ४५ - पंचत्ताळीस



उत्तर : मूसु

## आळें ४६ – सहत्ताळीस

मनीषु न्हय तो देवूय न्हय तो
उल्लोवंचा ताक्का ना मू जीव
    जीवूय ताक्का ना जाल्यारिय
    सर्वय लाळन करताय ताक्का
शास्त्र पुराण संस्कार सर्वय
निवंगिल्याक सांगूनु दित्ता
    जन्माक तोवय चोरु न्हय
    जाल्यारीयि जयिलांतु वासु
विविध न्हेसवण जात्ता ताक्का
जन्माक एक की दोन
वर्षं जाल्यारि नागुडोय जात्ता
तावळीयि ताक्का आम्मी सोणाय
    कोण तो म्हणु सांगाय तुम्मी
    विचारु सम कोरनु चोवनु

## आळें ४६ - सहत्ताळीस



उत्तर : पुस्तक

## आळें ४७ – सातताळीस

तोणा वर्गांतु जाल्लेलि तीवय
एक पायान राबूनु आस्स
वाड्डूनु वाड्डूनु यत्ता यत्ता
धा बारा हात्तान नांचु करता
पावलांक लागूनु चेर्डूंव चारि पांच
दित्ता ती आमकां चांग मन्नान
मास धा बारा जाल्लेले वेळारि
दित्ता पुरस्कारु तोण्णां थाकूनु
माग्गीरि तीवय जीवु सोडता
कोण ती चिन्तेन सांगाय तुम्मी

आळें ४७ – सातताळीस



उत्तर : केळि

## आळें ४८ – आटचाळीस

चिकलाचे उदकांत जांवचे तेवय
रूपान सुन्दर वस्तु
देवा मात्यारि दोवोरनु तेवय
शान्ति पांवताय मू आम्मी
दुद्दा समुद्रांतु जाल्लेलें तें म्हण
सांगताय पर्ने मनीष
एकु देवु अनि एकि देवी ताक्का
सुखान बेसूक काडताय
बालका हांतु पळ्ळ्यारि तन्नि तें
हास्सूनु पिस्सूणु घालताय
कस्सोलो की तो वस्तु म्हण तुम्मी
सांगाय चांग कोरनु चिन्ता कोरनु

## आळें ४८ - आटचाळीस



उत्तर : पद्माक्ष

## आळें ४९ – एक्कुणपोन्नास (एक्कुणपन्नास)

दोनि पाक्काचि पक्षि मू ती
पाय्यानी चंवकता मात्र मू ती
मळबारि रुक्कारि वच्चना ती
आहारु तिग्गेलो मास्सळि मात्र
गांवातु दिक्कूक पाणा मू ती
नांव तिग्गेलें इति म्हण सागाय

आळें ४९ – एक्कुणपोन्नास (एक्कुणपन्नास)



उत्तर : किवि पक्षि

## आळें ५० – पोन्नास (पन्नास)

ब्रह्मान केल्लोलो होळ्ळो पन्दो
खाल ऊंच आद्यन्त नात्तिल्लो पन्दो
त्या पन्दा भित्तरि म्हस्त आस्स पन्दे
राब्बुनत्तिल्लें ते धांवताय नित्य
एका सरि धोरूक कोणाक जांवना
विविध वर्णाचे रूपाचे ते पन्दे
चोर न्हय जल्यारीयि दिस्सा ते निपताय
सागाय बाळांनो कोण की तो पन्दो

आळें ५० – पोन्नास (पन्नास)



उत्तर : ब्रह्माण्ड

# आळ्यांचीं सम उत्तरां

1. मन्न
2. दिवलि
3. भूमि
4. सार्णि
5. डोट पेन
6. प्राणु
7. आदित्यु
8. आदित्यु
9. पिक्के ताम्बळ
10. कदेल
11. जूबा
12. तुळसि
13. भास (विद्या)
14. बर्फ
15. सोरोपु (दीवोड्डु)
16. आब्या रूकु
17. कासोवु
18. वाट्टो
19. फौंटेन पेन
20. वास्सरि
21. उद्दाक
22. सावळि
23. पुस्तक
24. घर
25. देह
26. वायु
27. वैद्युति
28. सावळि
29. शिंवची सूव
30. पोणोसु
31. उज्जो
32. पिंपोळु
33. देह
34. पोणोसु
35. मोड
36. चेल्लि
37. चोग्गो
38. नार्लु
39. गोट्टर्लि
40. अनवास
41. माड्डो
42. म्यूजियम
43. पावसा मोड
44. मीट
45. मूसु
46. पुस्तक
47. केळि
48. पद्माक्ष
49. कीवि पक्षि
50. ब्रह्माण्ड



माड्डो वाड्न नार्लु जाता. पुण त्या माड्ड्याक सारें आनी उदाक घालचें पडटा. तें उदाक आनी सारें होळनु वचून व्यर्थ जायनार्शी एकेक आळें माड्ड्या पोंदाक घालतात तुमी पळयलां आसतलेंच. भुरग्यांक बरी वाडी जावनु तांणी भविश्यांत बरें फूल आनी फळ दिवपाक असलीं हुमणांचीं आळीं तांगेल्या विचाराक घालचें एक बरें काम आसतलेंच.

प्रश्नरूपान आसिल्ले आळ्याचें उतर मेळ्ळे कडेर मनांकय, बुद्धीकय विजया संतोषु मेळ्ता. तो आनन्दु बालकांक मात्र न्हय युवकांकय वृद्धांकय आसतलो. त्या पासून प्राचीन भारतांतु पंडितसभेंतु तांकां बरो स्वीकारु आसिल्लो. तस्सि आनन्दु दिवंचीं पन्नास आळीं रस्पतीन तयार करून्क पै माम्मान केल्लोलो श्रमु सर्वांक आनन्दकर जात्तोलो म्हळ्ळेले विषयांतु सन्देहु ना.

प्रो. एन. स्वर्णलता

\- पी जी कामत फ़ौंडेशन, एरणाकुळम

₹: 100